# मानांलीं गीतां

## आमोणेच्या किरिस्तांव समाजाचीं गीतां



गोवा कोंकणी अकादेमी

संकलन

जयंती नायक

लोकगीतां हीं मौखीक परंपरेन एके पिळगेकडल्यान दुसरे पिळगेकडेन पावतलीं गीतां आशिल्ल्यान, वाटेर प्रवासांत खुबदां तांचें मूळ रूप बदलून तांकां नवें रूप मेळिल्लें आसता. शब्दांचो मूळ अर्थ वा मूळ उच्चार बदलून नवो अर्थ वा नवो उच्चार प्राप्त जाल्लो आसता. खुबदां तांच्या मुळाकडेन वेंगळें तत्त्व, वेगळो अर्थ आसता, जाची आमकां कल्पना नासता आनी आमी तांचें वयर दिसपी रूप पळोवन् चुकिचे निश्कर्श काडटात, चुकिच्यो कल्पना करून घेतात. देखून लोकगीतांचेर प्रक्रिया करपाचो आनी तांचो मुखावळो बदलपाचो आमकां कसलोच अधिकार नासता.

मोल : रु. ३५/-

# मानांलीं गीतां

## आमोणेच्या किरिस्तांव समाजाचीं गीतां

# मानांलीं गीतां

## आमोणेच्या किरिस्तांव समाजाचीं गीतां

संकलन :
**जयंती नायक**

गोवा कोंकणी अकादेमी

# मानांलीं गीतां

आमोणेच्या किरिस्तांव समाजाचीं गीतां

संकलन :
जयंती नायक



**उजवाडावपी :**
वि. म. धुमे
सचिव,
गोवा कोंकणी अकादेमी,
पणजी, गोंय ४०३ ००१.

**छापपी :**
हिरू नारायण नायक
अपुरबाय प्रिंटर्स
वळवय-फोंडें, गोंय ४०३ ४०१

**मुखचित्र :**
श्रीधर कामत बांबोळकार

पयली आवृत्ती : १९९३

प्रती : एक हजार

मोल : रु. ३५/-

# MANALIM GITAM

Amonnechea Christaum Somajachim Gitam

Compiled by:
**Jayanti Naik**



**Publisher:**
V. M. Dhume
Secretary,
Goa Konkani Akademi,
Panaji-Goa 403 001.

**Printer:**
Hiru Narayan Naik
Apurbai Printers,
Volvoi, Ponda, Goa 403 401

**Cover:**
Shridhar Kamat Bambolkar

First Edition: 1993

Copies : One Thousand

Price : Rs. 35/-

# मांडावळ

## पयलीं उतरां :

फिरंग्यांच्या राजवटीवांगडा गोंयांत क्रिस्ती धर्म आयलो आनी त्याच बरोबर पोर्तुगीज भास आनी पश्चिमी संगीत हांची गोंयांत रूजवण जाली. ह्या अस्तमी प्रभावाक लागून एक जो सुरेल मेळ जालो ताणें मांडो, दुलपद आनी देखणी ह्या नाच-गीतांचो रुपकार घेतलो. पोर्तुगीज भास, कोंकणी बोली, गोंयचें घुमट आनी पश्चिमी व्हायोलीन हांचो एकचार सादलो. मांडो हें प्रेमगीत. विरहान, मोगाचे खंतीन थपथपिल्लें. ताका वेदनेची मंदगती आसा. पुण मांड्याउपरांत जीं दुलपदां येतात ताची गती जलद आनी ताचे विशय तरातरांचे. हुंदीरमामापासून कुस्टोबाच्या बंडामेरेन तांतून सगळे विशय आस्पावतात. क्रिस्ती समाजाच्या लोकजिविताचो तो जितो-जिवो हारसो. पावसा उपरांत वत तशेंच उमाळ्यान भरिल्ल्या मांड्या उपरांत हीं ल्हवपीक रंगयाळीं हांसोवणीं अशीं दुलपदां.

देखणी हें अप्रूप अशें नाचगीत. किरिस्तांव मनशान, किरिस्तांव मनशांपासत रचिल्लें आनी किरिस्तांव चलयेन नाचिल्लें. ह्या गीताची भास निजाची, नितळ निवळ कोंकणी आनी भेस भारतीय. पावलांचो ताल भारतीय नृत्यालागीं जुळटा. धर्मांतर केल्लो किरिस्तांव मनीस आपल्या आदल्या हिंदू दायजाचो उगडास करता. राय साकून जुवारी न्हय हुंपून पलतडीं शिरोड्या वचूंक सोदता.

**"हांव सायबा पलतडीं वता,**
**दामुच्या लग्नाक वता."**

हीं फकत गीतांतलीं उतरां न्हय तर किरिस्तावांच्या काळजांत चेंपून राविल्लीं, आपल्या भूतकाळांत परतून घेवन वचपी उमाळ्यांचीं उतरां.

काजाराच्या गीतांतलीं उतरां आनी सूर आपशींच हिंदू लग्नाच्या होंवयांलागीं नातें सांगतात. धर्म क्रिस्ती जालो तरी चाली-रिती हिंदू उल्ल्यात. हिंदू-किरिस्तांव संस्कृतायेचो गोंयांत जाल्लो अप्रूप संगम

म्होवाळ-मोगाळ अशा होंवयांत पारखुवचो. जयंतीबायन आमोणें गांवांतल्या किरिस्तांव समाजांतल्या गीतांचीं उतरां आसात तशीं उतरावन तुमचेमुखार दवरल्यांत. तांकां सूर-ताल दिवपाचो वावर तिणें वाचप्यांचेर सोंपयला. केन्नातरी कोणेतरी ह्या उतरांक कागदाचेर तालबद्ध आनी स्वरबद्ध करतलो हाची म्हाका आस्त आसा. असले तरेचो वावर आदीं थोडो-भोव जाल्लो आसा. देखीक, श्री. मिखायल मार्तीस आनी श्री. जुझे पेरेर हांचें 'देखणी' हें पुस्तक मुजरत वाचचें. तशेंच श्री. मिखायल मार्तीस हांणी कितल्याशाच गोंयच्या लोकगीतांक संगीताचीं उतरां दिल्यांत. लोकवेदाचें हें अप्रूप भांडार गोवा कोंकणी अकादेमीच्या कोठयेंत् आसा. तें उजवाडावन लोकांमुखार दवरपाचो अकादेमीचो हावेस आसा.

गांवां-गांवांनी वचून लोकवेद एकठांय करप, परबां वेळार हाजीर रावन त्यो ध्वनीफितेर घेवप, मागीर तांचें वर्गीकरण करप आनी जाणकारांनी दिल्ली माहिती आनी सुचयल्ले विचार अभ्यासून तो संपादित करप हें काम जितलें कटकटीचें तितलेंच वेळाचें. जयंतीबायन हो वावर मनापासून केला. तिचे उपकार आमी मानीनात. पुण तिची तोखणाय करीत तितली थोडी. सामान्य वाचप्यांक आनी गंभीर अभ्यासकांक हो झेलो मोलादिक थारतलो अशी आमची आस्त.

हो झेलो एकठांय करपाक जांणी जांणी आदार दिलो तांचेय आमी उपकार मानतात.

**मनोहरराय सरदेसाय**
मुखेली, लोकवेद विभाग,
गोवा कोंकणी अकादेमी

निवेदन :

# अस्तित्वाच्या सोदांत ....

दक्षिण गोंयांतल्या केपें म्हालांत आमोणें नांवाचो एक सुपुल्लोच गांव आसा. सादारणपणान चवथ्या शतमानाआदीं वशिल्ल्या ह्या गांवांत ताच्या आदिमतायेचे जिते-जिवे अवशेश आजय पळोवंक मेळटात. शारी जिणेकडेन आज इतको लागींचो संबंद येवनय बी हो गांव, परंपरेन मेळिल्ल्या कितल्या तरी सांस्कृतिक मुल्यांची राखण करतना दिसता. हाका लागुनच, आज लेगीत संस्कृतीप्रिय अशी कोणय व्यक्ती ह्या गांवांत भितर सरली जाल्यार गांवच्या अकृतीम परंपरेच्या दर्शनान भारावता. गांवच्या वातावरणांत [सैमीक आनी सांस्कृतिक] तिच्या मनाक एक असीम अशी शितळसाण लाबिल्ली ती आपल्या तोंडान कबूल करता.

अशा ह्या सांस्कृतिक गिरेस्तकायेन भरिल्ल्या गांवांत म्हजो जल्म जालो. ह्याच गांवान म्हजेर संस्कार केले. हेच गांवचे मातयेंत म्हजें व्यक्तीमत्व घडलें. मात भुरग्यापणांत, म्हज्या बरोबरच्या हेर भुरग्यांसारकें गांवची 'लोकजीण जियेवपाचें' भाग्य मात म्हाका लाबलेंना.

म्हजें भुरगेंपण एके तरेचे अदृश्य बंदखणीतच गेलें. हांवें गांवांतल्या हेर चलयांसारकी केन्ना फुगडी घालिना, केन्ना धालांच्या मांडार वोळीक उबें रावलेंना, केन्ना फांतर जिखून खेळ खेळ्ळेना, उटंगारांनी पडपी पावसांत, माथ्यार कंड्डो घेवन शेताच्या बांदयांत बोटां रोमपाचें नशीबय म्हाका केन्ना फावो जालेंना. जिविताच्या शाणपणान उपाट भरिल्ली एक न्हंय म्हाका सामकी घस्टून व्हांवताली पुण हांव मात केन्ना तांतलें पोसोभर उदक पियेवपाक पावलेंना.

म्हजी आई गांवान असोळणेची. धड शारी न्हय, धड गांवगिरी न्हय अशे मदले संस्कृतायेंत ती वाडिल्ली. म्हजे आईचेर 'बामणी संस्कार' चड जाल्ले. कारण आख्ख्या बामणांच्या वाड्यार 'भायले

जातीचें' म्हण्टा तें म्हज्या मामाचें एक्रूच घर आशिल्लें. हाका लागून म्हज्या आईच्या मनाचेर 'बामणांच्या' चाली-रितींची चड पकड आशिल्ली. त्यावेळार [कांय प्रमाणांत आजय] 'बामणांच्यो' चाली-रिती त्यो उंचेल्या पांवड्यांच्यो आनी हेर जातींच्यो त्यो सकयल्या पांवड्याच्यो असो धवाड्यांमदीं एक समज आशिल्लो. म्हजो गांव तर मुळाक गावडी जमातीन वसयल्लो! आजय गांवचे ग्रामवेवस्थेंत जंय हे जमातीचेंच वर्चस्व चड आसा थंय ३०-३५ वर्सां आदीं गांवचो मुखावळो कसो आसतलो हाची कल्पना करूंक येता. आईच्या लग्नांत खंय, न्हवरेकारांच्या लोकांक पळोवन "कुळवाड्यांक चली दिली म्हरे!" अशें म्हुणून सोयरे-शेजारी म्हज्या आज्याक हांशिल्ले. ह्याच कारणांक लागून म्हळ्यार जाता, म्हजे आईन आपले धुवेचेर 'बरे' संस्कार [बामणी] जावंचे, ती 'कुळवाडीण' जावंची न्हय ह्या हेतून म्हाका केन्ना गांवच्या भुरग्यांबरोबर खेळूंक दिलेंना, शाळे बगर घराच्या हुमऱ्याभायर केन्ना सरूंक दिलेंना. म्हज्या भावांक मात तिणें मेकळीक दिल्ली.

आईक चोरून केन्ना वांगडचीं भुरगीं खेळटा थंय गेलें आनी तिका कळ्ळें जाल्यार तिचे धपके खावंचे पडटाले. देखून तिका चोरून वचपाचोय म्हाका धीर जायनाशिल्लो. शिवाय भुरगींय खेळूंक घेनाशिल्लीं. एक तर आईचो उलो कानार पडटांच हांव खेळ अर्दारच सोडून धांवतालें, दुसरें म्हाका जोडयेकय कोण नासतालो. सगळ्यांचे जोडीदार थारिल्ले आसताले!

म्हजे आईन म्हाका आनी म्हज्या भावांक, 'हाका-ताका', 'हाणें-ताणें' असली 'बामणांची बोली' [एका काळार अशें मानताले] शिकयल्ली. ताचेवयल्यान म्हजे पणजेचीं [म्हजी आज्जी म्हजो बापूय ल्हान आसतना भायर पडिल्ली] आनी म्हजे आईची सदांच झगडीं पेट्टालीं. "म्हाज्या पणटुरांक बामणांच्यो रिती शिकोवूं नाका!" अशें म्हजी पणजी कळवळून म्हण्टाली.

गांवच्या भुरग्यांबरोबर म्हज्या मेळपा-खेळपाचेर आईन जरी बंधनां घाल्लीं तरी ती स्वता मात हळू हळू गांवच्या वातावरणांत समरस जाल्ली. कोणालें भुरगें बरें ना, ताका दोतोरागेर घेवन वच. कोणाक घुंवळ आयल्या ताका धांवन उपाय कर. कोणालें आदन रिकामी आसा, ताका हळूच तांदूळ व्हरून दी. कोणाल्या घरांत लग्न-कार्य

आसा, थंयच्या कामाक वेंग मार. अशा कितक्या तरी गजालींवरवीं ती हळू हळू गांवच्या वातावरणाकडेन आनी संस्कृतायेकडेन एकरूप जायत गेल्ली. गांवांत बायलांच्या अडी-अडचणींक पावचें देखून तिणें 'कोप्र' सुरू केल्ली. गांवच्या हेर बायलांसारकी तिवूय आतां उस्फूर्तपणान धालो वा फुगडेचीं गीतां गांवक शकताली.

आईन म्हजेर घाल्ल्या बंधनांक लागून हांव जरी जिणेंतल्या एका सहज सुंदर सुखाक पैसावलें तरी त्या बंधनांचो म्हाका जायतो फायदोय जालो. म्हज्या जगपाक एक वळण मेळ्ळें, म्हजें शिकप हांव पुराय करूंक पावलें. म्हज्या अस्तित्वाचो म्हाका शोध लागलो. भुरग्यापणांत आईन लायिल्ल्या वाचपाच्या गोडयेंतल्यान म्हजे भितल्ली 'निर्मिती-शक्त' जागी जाली आनी आज हांव थोडें तरी 'धव्यार काळें' करूंक पावलें. शिवाय म्हज्या गांवाविशीं, गांवचे संस्कृतायेविशीं एक अफाट मोग म्हज्या काळजांत किल्ललो. म्हण्टात न्हय, "जाका मेळटा, ताका मोल कळना!" देखून म्हाका जी जीण जगूंक मेळ्ळीना, जे जिणेकडेन पळोवन हांवें इतको तेंप फकत आंवडेच घोटिल्ले ते जिणेविशीची एक असीम ओड, एक असीम उत्सुकता म्हज्या काळजांत वाडीक लागली.

हांव जेन्ना कॉलेजीक पाविल्लें तेन्ना खरें म्हळ्यार म्हजेवयलीं सगळीं बंधनां पयस जाल्लीं. गांवच्या वातावरणांत हांव मेकळेपणान उस्वास घेवंक शकतालें. पुण तेन्ना म्हजेकडेन वेळ नाशिल्लो. शिवाय इतको तेंप जे जिणेकडल्यान हांव पयस उरिल्लें, तिका एकदम वेंग मारूंक म्हजे हांवूच खाकुडटालें.

मात ह्या वेळार हांवें एक गजाल केली, तिचो म्हाका आज फायदो जाता. ती गजाल म्हळ्यार गांवच्या जाण्ट्या-नेण्ट्यांकडेन आपलेपणाचें नातें जुळोवपाची. इतको तेंप गांवचे धर्म-विधी, जात्रा-उत्सव, देव-देवस्पण, लग्न-कार्यां बी जीं हांव पयस रावन नियाळटालें, तीं लागीं वचून समजून उमजून घेवंक सुरवात केली. गांवची बोली आनी ते बोलयेंत दडिल्ली भाशीक-सांस्कृतिक गिरेस्तकाय म्हज्या स्मरणशक्तींत एकठांवपाक सुरवात केली.

गांवच्या लोकांकडेन नातें जुळोवपाच्या म्हज्या वावरांत, म्हाका

म्हज्या दोन कामांचो खूब आदार जालो. एक काम म्हणजे, फाविल्ल्या वेळांत गांवच्या भुरग्यांक अभ्यासांत मार्गदर्शन करपाचें आनी दुसरें म्हणजे म्हजें कोंकणी बरोवप आनी कोंकणी भाशेच्या हक्काखातीर वावुरप. ह्या दुसऱ्या कामाक लागून तर मुखेलपणान गांवच्या किरिस्तांव समाजाकडेन म्हजें नातें जुळ्ळें.



गांवचे संस्कृतायेविशिची म्हज्या काळजांतली ओड, लोकवेदाविशीं म्हाका आशिल्ली जाण, म्हज्या नकळटना हो वेळ मेरेन हांवें बरयल्ल्या म्हज्या कथा-कवितांनी चित्रीत जाल्या. पुण १९८७ वर्साच्या जुनाचे अखेरमेरेन, लोकवेदाचो स्वतंत्ररितीन अभ्यास करूंक येता हाची म्हाका जाण नाशिल्ली. पुण सहज म्हण केल्लो म्हजो अर्ज मान्य जावन त्या वर्साच्या जुलय म्हयन्यांत, 'गोवा कोंकणी अकादेमी'ची **'म्हैसूर विद्यापीठाचो'** एक वर्साचो **'लोकवेदाचो पोस्ट ग्रेज्युएट डिप्लॉमा कोर्स'** करपाखातीर १९८७-८८ वर्साची अभ्यासवृत्ती म्हाका फावो जाली आनी म्हज्या जिविताक एक वेगळें मोडण मेळ्ळें. घडये म्हज्या गांवाकच म्हज्या हातांतल्यान मुखार आपली थोडी-भोव सेवा करून घेवपाची इत्सा आशिल्ली जावये, देखून ताणेंच एक अदृश्य शक्ती जावन ही संद म्हाका मेळोवन दिल्ली आसूंक जाय.

एका वर्साचो अभ्यासक्रम पुराय करून जेन्ना हांव गोंयांत परतें आयलें तेन्ना लोकवेदाचें म्हत्व उमजून पुराय भाराविल्लें. म्हज्या गांवच्या लोकवेदाच्या गिरेस्तकायेची म्हाका वळख जाल्ली. देखून, गोंयांत परतें आयल्या उपरांत, पयल्या दोन म्हयन्यांत हांवें सगळ्यांत पयलें काम केलें तें म्हळ्यार, गांवांत पिळग्यां पिळग्यां चलणुकेंत आशिल्लीं पारंपारीक गीतां, काणयो, म्हणी, उमाणीं एकठांय करपाचें. ह्या कामांत म्हाका, म्हज्या गांवच्या दादल्या-बायलांनी आनी जाण्ट्या-नेण्ट्यांनी खूब सहकार्य दिलें, उस्फुर्तपणान ताणीं म्हाका मदत केली. कसल्याय मोबदल्याची अपेक्षा बाळगीनासतना तांणी म्हजेखातीर वरांची वरां गीतां गायलीं. पयलेच फावट आपल्याकडेन आशिल्ल्या परंपरागत ठेव्याचें कोणें तरी म्हत्व जाणलां, ह्याच अप्रुपान तांणी हातचें राखून दवरनासतना तो ठेवो म्हजे व्होटयेंत रिकामो केलो. गांवची एक जाण्टेली 'सर्गेस्त

कुरेलबाय फेर्नांडीस' हिणें तर आरीच्या दुयेंसान आनी जाण्टेपणाचे व्याधीन हांथुणाक लागिल्ली आसतनाय किरिस्तांव समाजांत एका काळार घोळणुकेंत आशिल्लीं कांय धालो-गीतां म्हजेखातीर गायलीं. म्हजी एक गांवभयण 'बाय शोभा आमोणकार' हिचो तर ह्या कामांत म्हाका नांव घेवपा इतको आदार जालो. शिवाय म्हज्या घरच्यांचें फाटबळ तर आशिल्लेंच. म्हजे आईन तर गांवच्या कितक्या तरी जाण्टेल्यांकडेन उलोवणीं करून तांचेकडली माहिती म्हाका दिवपाखातीर तांकां प्रवृत्त केलीं.

ह्या वेळार अकादेमींतल्या म्हजे नोकरेचेंय थारलें नाशिल्लें. संकलीत केल्ल्या त्या ठेव्याचें कितें करप? अकादेमी तो उजवाडाक हाडटली काय ना? हेवूय प्रश्न म्हज्या मुखार आशिल्ले. पुण ते प्रश्न म्हाका त्या वेळार म्हत्वाचें दिसनाशिल्ले. मेळटा तितको लोकवेद पुंजावप होच म्हजो उद्‌देश आशिल्लो.

उपरांत वर्सभरांतच, अकादेमीच्या लोकवेद विभागांत म्हाका 'संशोधन सहाय्यक' म्हण नोकरी मेळ्ळी. म्हज्या सुदैवान, विभागान म्हजेच गांवचेर म्हळ्यार 'आमोणें: एक लोकजीण' ह्या विशयाचेर प्रबंध बरोवपाचो वावर दिलो. ह्या प्रबंधाक लागून गांवचे लोकजिणेकडेन संबंदीत वेग-वेगळ्या आंगांचेर संशोधन करपाची म्हाका गरज पडली. ह्या कामांत हांवें एकठांय केल्लीं तीं गीतां, काणयो, म्हणी, उमाणीं म्हजी पूर्वतयारी कशी थारली. म्हजें शोधकार्य सोपें जावंक तांचो आदार जालो.

एका दिसा म्हज्या मनान निर्णय घेतलो, हांवें एकठांय केल्लो तो 'ठेवो' कसोय करून, स्वतंत्र संकलनाच्या रुपान उजवाडाक हाडूंक जाय. कारण कोंकणींत अशीं संकलनां खूब कमी उजवाडाक आयिल्लीं आसात आनी अशेतरेचीं संकलनां उजवाडाक आयल्यारच गोंयच्या लोकवेदाचो तुळनात्मक अभ्यास जावंक आदार जातलो. संशोधकांक तांच्या अभ्यासाखातीर हाताकडेन 'तयार' सामुग्री मेळटली.

मनान निर्णय घेतलो त्या दिसाच्यान सतत दोन म्हयने दिस-रात [फकत रात] खपून हांवें म्हजेकडेन आशिल्ल्या त्या ठेव्याचें वेवस्थीत वर्गिकरण केलें. त्या ठेव्यामदीं गीतांचो भाग खूब मोठो आशिल्ल्यान

तुर्तांक गीतांचोच विचार करचो अशें थारावन हांवें काणयो, म्हणी आनी उमाणीं काडून कडेन दवरलीं.

एकठांय केल्ल्या गीतांमदीं 'दादल्यांनीं गावपाचीं गीतां' आनी 'बायलांनी गावपाचीं गीतां' अशीं दोन प्रकारचीं गीतां आशिल्लीं देखून दोनय तरेचीं गीतां पयले सुवातेर वेगळीं केलीं.

दादल्यांच्या गीतांच्या मानान बायलांच्या गीतांचो आंकडो खूब मोठो मेळ्ळो. ह्या गीतांमदीं म्हजी सगळ्यांत चड नदर वेधून घेतली ती 'धालो गीतांनी'. हेर गीतांचे तुळणेन तांचो आंकडो चड आशिल्ल्यान, स्वतंत्र रितीन तांचें एक वेगळेंच संकलन उजवाडाक हाडप योग्य अशें दिसलें. म्हण त्या गीतांचो एक वेगळो भाग केलो. ह्या भागामदीं किरिस्तांव समाजांतल्या बायलांच्या धालो-गीतांचोय आस्पाव एक पोटभाग म्हण केलो.

उरिल्ल्या गीतांमदीं किरिस्तांव समाजांतल्या बायलांनी गावपाच्या गीतांचो एक मोठो वांटो दिसलो, जीं एका स्वतंत्र संकलनाच्या रुपांत उजवाडाक आयल्यार मुखार कोणाय संशोधन करप्याक फायदेशीर थारूंक शकतलीं अशें चिंतून वेगळीं केलीं. शेवटाक म्हजेकडेन जीं गीतां उरलीं तातूंत, पाळणे-गीतां, होंवयो, भुरग्यांचीं गीतां, फुगडेचीं गीतां, गीतकाणयो बी कितके तरी प्रकार आशिल्ले. पुण प्रत्येकाचो आंकडो सामकोच ल्हान आशिल्ल्यान, तांकां सगळ्यांक 'लोकगीतां' ह्या एकाच माथळ्याखाला हाडलीं.

दादल्यांच्या गीतांतलीं सगळींच गीतां शिगम्याच्या मेळाक गावपाचीं गीतां आशिल्ल्यान तांच्या वर्गीकरणाक त्रास पडलेनात. मात तांतले वेग-वेगळे प्रकार जाणून तांचें अंतरगत वर्गीकरण करचें पडलें.

हीं चारूय संकलनां-संपादनां करतना हांवें एक गजाल सामकी कटाक्षान केली ती म्हणजे, ज्या स्वरूपांत [जशीं] तीं गीतां हांवें आयकलीं, तशींच तीं उतरायलीं. शब्दरचना वा वाक्यरचना करतनाय हो नेम हांवें पाळ्ळो. गीतांचो क्रमय जसो मेळटा तसोच दवरलो. आमोणें गांवांत धालो नाचपाची सुरवात "गंदान मांड सारयला हो" ह्या गीतान जाता देखून धालो-गीतांच्या संकलनात हेंच गीत सुरवेक

दवरलें. उपरांतचीं चार-पांच गीतां ह्या गीताफाटल्यानच क्रमवार पद्धतीन गावपाची आशिल्ल्यान तिवूंय क्रमवार पद्धतीनच मांडल्यांत. मुखावेल्या गीतांक मात क्रम ना. ह्या भागांतल्या कांय गीतांनी एकच उतर 'मराठी' आनी 'कोंकणी' अशा दोनय उच्चारांत मेळटा देखून तें जंय, जशें मेळ्ळां थंय तशेंच वापरलां. देखीक: 'आंबा' आनी 'आमो' अशीं उतरां आयल्यांत.

लोकगीतां हीं मौखीक परंपरेन एके पिळगेकडल्यान दुसरे पिळगेकडेन पावतलीं गीतां आशिल्ल्यान, वाटेर प्रवासांत खुबदां तांचें मूळ रुप बदलून तांकां नवें रुप मेळिल्लें आसतां, शब्दांचो मूळ अर्थ वा मूळ उच्चार बदलून नवो अर्थ वा नवो उच्चार प्राप्त जाल्लो आसता. खुबदां तांच्या मुळाकडेन वेगळें तत्व, वेगळो अर्थ आसता, जाची आमकां कल्पना नासता आनी आमी तांचें वयर दिसपी रुप पळोवन चुकीचे निश्कर्श काडटात, चुकीच्यो कल्पना करून घेतात. देखून लोकगीतांचेर प्रक्रिया करपाचो आनी तांचो मुखावळो बदलपाचो आमकां कसलोच अधिकार नासता. ह्याच कारणाक लागून हांवें तीं जशीं आयकल्यांत तशींच उतरावन काडल्यांत.

संकलनाचीं हस्तलिखितां तयार जातकच म्हज्यामुखार प्रकाशकाचो प्रश्न उबो रावलो. गोवा कोंकणी अकादेमीचो लोकवेदाचो स्वतंत्र असो विभाग आशिल्ल्यान आनी आमोणें गांवच्या लोकवेदाचेर हांव 'ऑफिशियली' काम करतां आशिल्ल्यान, मुखार कसल्योय तांत्रिक अडचणी उब्यो रावच्यो न्हय ह्या विचारांतल्यान, तीं चारय हस्तलिखितां छापपाचो प्रस्ताव अकादेमी मुखारच मांडपाचो हांवें थारायलें आनी तसो तो मांडलोय बी.

अकादेमीच्या वावुरपी मंडळान म्हज्या वावराचें म्हत्व जाणून म्हजो प्रस्ताव मान्य केलो आनी अकादेमीच्या संपादपी मंडळाचे एक वांगडी भौ. पांडुरंगबाब भांगी हांचेकडेन तीं हस्तलिखितां तपासपाखातीर दिलीं. आपल्यो घरगुती अडचणी आनी संशोधनाच्या वावरांत व्यस्त आसतनाय भौ. भांगीबाबान तीं रोकड्या-रोकडीं तपासून दिलीं. फावो थंय मोलादीक सुचोवण्योय केल्यो. आपलो म्हत्वाचो वेळ दिवन कांय गजालींचेर चर्चा केली. गीतांनी जंय जंय संवकळ नाशिल्लीं उतरां येतात थंय थंय तांचो अर्थ दिवंचो ही तांचीच सुचोवणी. ह्या संकलनाच्या निमतान

भौ. भांगीबाबांकडल्यान संस्कृतीसंबंदीच्या कितक्या तरी गजालींची माहिती मेळ्ळी, मार्गदर्शन मेळ्ळें. आजवेर ज्यो कांय चुकीच्यो समजुती घेवन हांव वावुरतालें तांचें उच्चाटन जालें. अकादेमीचें काम म्हण जरी तांणी तीं हस्तलिखितां तपासलीं तरी तांणी तीं जे आपुलकेन आनी तोखणायेन बेगोबेग तपासून दिलीं आनी म्हजे भितल्लो आत्मविस्वास वाडयलो तेखातीर भौ. भांगीबाबाचें हांव सदांच उपकारी उरतलें.

म्हज्या वावराची कदर करून चारीय हस्तलिखितां पुस्तक रुपान उजवाडाक हाडपाचो अकादेमीन जो निर्णय घेतलो, तेखातीर तर हांव अकादेमीच्याय सदांच रिणांत उरतलें.

**'मानांर्ली गीतां'** हें किरिस्तांव समाजांतल्या गीतांचें त्या चारीय पुस्तकांमदलें चवथें पुस्तक. हें पुस्तक इतके बेगीन रुपकाराक येवपाखातीर अकादेमीच्या कार्यालयीन वर्गानय जे कश्ट घेतले ताका लागून तांच्याय हांव उपकारांत आसा.

कोंकणींतले एक नामनेचे लेखक श्री. पुंडलीक नायक हांचें, पुस्तक छापणावळीच्या तांत्रिक आनी हेर गजालींचेर खुबच मार्गदर्शन लाबलें देखून तांच्याय हांव रिणांत आसा.

आमोणें-केपें

**जयंती नायक**

प्रास्ताविक :

# अस्वस्थ मनाचे उमाळे

**'मानांलीं गीतां'** अशें नांव आशिल्ल्या ह्या पुस्तकांत केपें म्हालांतल्या आमोणें गांवच्या किरिस्तांव समाजांत घोळणुकेंत आशिल्लीं कांय पारंपारीक गीतां संकलन केल्लीं आसात. ह्या गीतांची फुडलेतरेन वर्गवारी केल्या :

**अ] भुरग्यांचीं गीतां**

**आ] काजाराचे येर्स**

**इ] मांडे, दुलपदां आनी देखण्यो**

**ई] खेळाचीं गीतां**

**उ] हेर गीतां**

किरिस्तांव समाजांत व्हडले भयणीक 'माना' म्हणपाची चाल आसा. हीं गीतां संकलन करपाक आमोणें गांवच्या 'सॅबेरीन माना' (श्रीमती सॅबेरीन पेरेरा, कोल्यामड्डी) आनी 'जुवान माना' श्रीमती जुवान फेर्नांडीस, पांयगाळ) ह्या दोग मानांनी खुबच आदार केलो देखून ह्या संकलनाक 'मानांलीं गीतां' अशें नांव दिलां. शिवाय ह्या संकलनांत आस्पाविल्लीं खुबशीं गीतां गांवच्या 'मानांच्या' (भयणींच्या, बायलांच्या) जिबेर घोळटना दिसतात देखून वयलें नांवच ह्या पुस्तकाक समर्पक अशें दिसलें.

आमोणें गांवांतली किरिस्तांवांची वस्ती ही सामकी हालींची. पोर्तुगेजांनी चलयिल्ल्या बाटाबाटीच्या काळांत हिंदुंच्या देवळांचो पोर्तुगेजांनी विध्वंस करपाक सुरवात केली त्या काळार गांवांत पयली वस्ती जाली.

पोर्तुगेजांच्या धर्मकोल्लीपणाक बळी पडिल्ले कितलेशेच किरिस्तांव घराबे आपलो मूळ गांव सोडून आमोण्यांत येवन स्थायिक जाले. धर्म बाटिल्लो पुण अंतस्करणांतली आपल्या मूळ धर्माविशींची ओड तशीच आशिल्ली. पिळग्यां पिळग्यां साकून मनाचेर जाल्ले संस्कार वा पूर्वपरांगत साकून पाळो दीत आयिल्ल्यो चाली-रिती तांकां एकदम विसरप शक्य नाशिल्लें. देखून तांणी एकेच भावकेच्या भावनेंतल्यान हिंदूंच्याच शेजरा आपली वस्ती थाटली.

राय (कुळदेव – कामाक्षी), बोरये (कुळदेव – नवदुर्गा), रिवण (कुळदेव – विमलेश्वर), कवळें (कुळदेव – बेताळ), कुडतरे (कुळदेव – चांमुडेश्वरी) ह्या सारक्या गांवांतल्यान बाटाबाटीचे भकीक पडिल्लीं कांय घराणीं आमोणें गांवांत येवन रावलीं.

किरिस्तांव धर्म जरी गळ्यांत पडिल्लो तरी मनाचेर आशिल्ले हिंदू संस्कार तांकां भितल्ले भितर अस्वस्थ करताले. देखूनच तांतल्या कितल्या तरी बायलांच्या गळ्यांत 'मणी' तसोच उल्लो, जायत्या घरांच्या दारांनी 'लामणदिवो' पेटतच रावलो, काजारावेळार बायलांच्या कंठांतल्यान होंवयांचे सूर भायर सरून एक वेगळेंच वातावरण तयार करूंक लागले, व्हंकले-न्हवऱ्याक तेल-हळद लावपाची चाल चालंतच उरली.

ह्या किरिस्तांव घराण्यांनी गांवांत आपलो वेगळो 'मांड' स्थापन केलो. तांच्यो बायलो थंय दरवर्सा 'धालो' खेळूंक लागल्यो. दादले इंत्रुजाचे आदले कांय दीस चौरंगी गावन आनी तालगडी खेळून मांड जागोवंक लागले. इंत्रुजाक घर-घरांकडेन तांचो मेळ नाचूंक लागलो.

धालो खेळटना वा मेळ नाचतना गायतलीं गीतां सुरवातेक हिंदू समाजांत आसात तशींच आसतालीं. हळू हळू तांतुमदीं किरिस्तांवांच्या देव-देवतांचीं नांवां शिरकलीं. किरिस्तांव धर्माची वळख दाखोवपी कितक्यो तरी कुरू तांतुमदीं रिगल्यो. गीतांचे उच्चार बदल्ले.

आज गांवांत किरिस्तांव समाजांतले कोण धालो खेळनात, इंत्रुजाच्या मेळाक तालगडी नाचनात वा चौरंगी गायनात. काजाराच्या सुवाळ्यावेळार मात होंवयो गावपाची चाल आजय गांवांत दिश्टी पडटा.

ह्या संकलनाच्या पयल्या भागांत आस्पाविल्लीं गीतां हीं **‘भुरग्यांचीं गीतां’** जावन आसात. हांतलीं चडांत चड गीतां हीं जाण्ट्यांनी भुरग्यांखातीर गावपाचीं गीतां. भुरग्यांक धोलयतना, खेळयतना, न्हिदयतना, भरयतना अशा वेग-वेगळ्या प्रसंगार तीं गावपाचीं आसात. हीं गीतां आकारान ल्हान आनी सुटसुटीत आसात. तांतूत ताल आनी वेग कमी आसा. हांतल्या कांय गीतांचीं रूपां गांवच्या हिंदू समाजांतय मेळटात. देखीक :

**“धॉल बाये धॉल**
**पदेरान हाडल्यात बॉल**
**बॉलाक दुडू चोड**
**पोदेर तुजे बॉल**
**परतून म्हुरे व्होर !”**

ह्या गीताचें हिंदू समाजांत मेळपी रूप अशें :

**“धॉल बाये धॉल,**
**आंगणांत आयल्यात बॉल**
**नाका तुगेले बॉल पदेरा**
**दुडू सांगता चड !”**

**‘कुर कुर कानां’** ह्या गीताचींय दोन रूपां गांवच्या हिंदू समाजांत मेळटात. (गीतावांगडाच तीं ह्या संकलनांत दिल्यांत.)

ह्या भागांतलीं गीतां अभ्यासल्यार अशें दिसून येता की, गांवच्या हिंदू आनी किरिस्तांव दोनय समाजांतल्या गीतांची मांडणी एक सारकीच आसा. त्या त्या समाजाच्या खाशेल्यापणाचो ठसो जरी त्या समाजांत घोळणुकेंत आशिल्ल्या गीतांचेर उदेलो तरी दोनय समाजांतलीं गीतां एकाच विचारविश्वान भाराविल्ल्या लोकमनान रचल्यांत म्हणपाचें होलमता.

संकलनाच्या दुसऱ्या भागांत आसात **‘काजाराचे येर्स’**. येर्स म्हळ्यार होंवयो. काजारा संबंदीत विवीध चाली-रितींक पाळो दितना म्हळ्यार काजाराखातीर भात उकडटना, दोश करतना, न्हवऱ्या-व्हंकलेक रोस लायतना, व्हंकले-न्हवऱ्याक न्हेसयतना, बेळसांव दितना, सावूद करतना बी कितक्या तरी प्रसंगांनी येर्स गावपाची चाल आजय गांवांत आसा.

मात ह्या संकलनांत फकत २४ गीतांचो आस्पाव करप शक्य जालां.

हीं गीतांय सुटसुटीत आनी आकारान व्हडलींशीं व्हड नात. तांतूत वेग कमी पुण एकेतरेची भावनाविवशता दिसता. व्हंकलेक आशीर्वाद दितना गावपाच्या येर्सांत तर ती खुबच जाणवता.

**"बाये, व्हॉंकले म्हुजे बाये**
**मांय म्हुगो तुजी**
**बेळसांव दिच्या येता."**

ह्या भागांतल्या चडश्या गीतांनी न्हवऱ्या-व्हंकलेक उद्देशून जायतीं प्रतिकां वापरिल्लीं दिसतात. थळा-काळाप्रमाण आनी न्हवऱ्या-व्हंकलेच्या नांवांप्रमाण तांतूत बदल केल्लो दिसता.

**"केप्पां पोडलें चुडीत**
**कुंकळ्ळे व्होयलें वोडीत**
**आज नोशीबांतुले घोडीत**
xxxxधूव म्हुगो आमची!"

तिसऱ्या भागांत **'मांडे, दुलपदां आनी देखण्यो'** अशीं तीन प्रकारचीं गीतां एकठांय हाडल्यांत. कारण गीतांचे हे तिनय प्रकार एकमेकांकडेन सामके दाट संबंद दवरून आसात. 'दुलपद' हें मांड्याफाटोफाट येता जाल्यार 'मांडो' आनी 'दुलपद' हांच्यामदीं खंयतरी वा उपरांत 'देखणी' गावपाची चाल आसा.

मांडो, दुलपद वा देखणी हे गीत प्रकार लोकगीताचे व्याख्येक खरें पुरायतरेन पाळो दिनात पुण आज सगळ्यांनी तांकां 'लोकगीतां' म्हण मानून घेतल्यांत.

मांडो हें किरिस्तांव समाजांतल्या धवाड्यांनी मुद्दाम बसून रचिल्लें आनी चार वण्टींभितर गावपाचें प्रेमगीत. तांतूत मुखेलपणान मोगाच्यो आनी विरहाच्यो भावना उक्तायिल्ल्यो दिसतात. एके मंदगतीन हें गीत मुखार वता. उदेंत आनी अस्तम ह्या दोन संस्कृतीच्या संगमांतल्यान जल्माक आयिल्लो हो संगीताचो एक आगळो-वेगळो प्रकार.

पयलो मांडो कोणें आनी केन्ना रचलो हाची आतामेरेन पुरावोनिश्ट अशी माहिती मेळना पुण सादारणपणान १८४०च्या लागींलागीं साश्ट तालुक्यांत मांड्याचो जल्म जालो आसूंक जाय असो अदमास आसा. कुडतरे, लोटले आनी चिंचोणें हे तीन गांव म्हणजे मांड्याचें कुळार अशें मानतात.

मांडो हें जोड-गीत. काजाराच्या प्रसंगार दादले-बायलो मेळून हें जोड-गीत गायतात आनी एके खाशेले पद्धतीन नाचतात. ह्या नाचाचें मूळ फ्रेंच नाचाकडेन आसूंक जाय अशें जाणकारांचें मत आसा. मांड्याच्या गायनाक जरी व्हायोलिनाचें संगीत आसलें तरी घुमटाच्या संगीताशिवाय ताका खरो जीव येच ना. गांवगिऱ्या वाठारांत मांडे गायतना फकत घुमटच वापरिल्लें दिसता.

आजय किरिस्तांव समाजांत मांडे रचपी जाणकार आसात आनी ते नवे नवे मांडे रचतनाय दिसतात. पुण तांचे रचणुके फाटल्यान तांचें नांव जुळिल्ल्यान ते लोकगीतांचे कक्षेंत येवंक शकनात. जे कांय पोरने मांडे आज आमी लोकगीतां म्हण स्विकारल्यांत एकाकाळार तेवूय रचणाऱ्यांचीं नांवां लोकांक खबर आशिल्लीं आसूंक जाय पुण काळांतरान तीं नांवां पोंदाक पडून अनामीकपणाचो ठसो घेवन ते मांडे एके पिळगेकडल्यान दुसरे पिळगेमेरेन पावले आनी तांकां लोकगीतांचें रूप आयलें.

दुलपदाशिवाय मांडो पुराय जायचना. दर मांड्याफाटल्यान दुलपद हें येताच. दुलपद एक वा चड कितलीं गावचीं हांकां नेम ना. खुबदां मांड्यांतल्या भावार्थाकडेन संबंद नाशिल्लींय दुलपदां गायतात. मांडो हो मंद गतीन वचपी गीत जाल्यार दुलपद हें उडटें, तांतूंत एकेतरेचो वेग आसता. मांड्यापरस तें आकारान ल्हान आनी गोंयचे मातयेकडेन चड प्रामाणिकपणा दाखयता.

ह्या भागांत आस्पाविल्लो तिसरो गीत प्रकार म्हळ्यार ‘देखणी’ वा ‘देखणी गीत’. हें एक नृत्यगीत. हें गीत गावपी जरी किरिस्तांव समाजाचे लोक आसले तरी ते देखणी नाचतना भेस-अळंकार हिंदू सारकोच करतात. तांचो हिंदू संस्कृतायेविशीं आशिल्लो ओडो ह्या गीतांनी व्यक्त जाता. कलवंतांचेर घडयल्ल्यो खुबशो देखण्यो मेळटात.

बोरी, मंगेशी, फोंडें, पर्वत हांगाच्या कलवंतांक तांतूत मुखेलपणान उद्देशिल्लें दिसता. ह्या शिवाय भट, देव, देवूळ, लग्न, मोग ह्यावूय विशयावयल्यो देखण्यो मेळटात.

मांडे, दुलपदां आनी देखण्यो मेळून ह्या संकलनांत सुमार ३० गीतांचो आस्पाव आसा. तीं गीतां जरी ह्या संकलनांत घेतलीं तरी तीं गोंयच्या हेर वाठारांतय मेळटात, तांचेर फकत आमोणें गांवचोच हक ना. फकत आमोणें गांवांत तीं घोळणुकेंत आशिल्ल्यान हेर गीतांबरोबर तिंवूय संकलन केल्यांत हाची वाचप्यांनी नोंद घेवंची.

**'खेळ-गीतां'** हो ह्या संकलनाचो चवथो भाग. 'खेळ' हो किरिस्तांव समाजांत घोळणुकेंत आशिल्लो लोकनाट्याचो एक प्रकार. कांय वर्सांआदीं आमोणें गांवांत इंत्रूज, पास्कां, जानेर ह्यासारक्या परबां-उत्सवांवेळार गांवचे लोक एक जावन खेळ करताले. ह्या खेळांनी सादर करपी विशय वर्सान वर्स तेच वा तशेच तरेचे आसताले. देखून तांतलीं गीतांय तींच तींच उरतालीं. आज गांवांत खेळ जायना पुण तांतलीं गीतां गांवचे खेळे इंत्रुजाच्या मेळाक गायतात. अशे तरेच्या कांय पारंपारीक गीतांचो आस्पाव ह्या भागांत केला.

**'हेर गीतां'** हो ह्या संकलनाचो निमणो भाग. हांतूत सगळींच पांच गीतां आसात. पयलें गीत म्हळ्यार **'आलशीना पारा धोलशीना'** हें गीत मांडोच अशें खुबश्या जाणांचें मत आसा, पुण तेविशीं मनांत दुबाव आशिल्ल्यान तांचो आस्पाव ह्या भागांत केला.

दुसरें गीत जावन आसा एक 'ओरेसांव'. पावस पडपाक वेळ जालो जाल्यार 'सांत आंतोन' देवाक एके दालयेंत बसोवन ती दाली माथ्यार घेवन ओरेसांव म्हणत गांवच्या रस्त्या-रस्त्यांनी पुरसांव काडून भोंवत देवाक होरावपाची एक चाल गांवच्या किरिस्तांव समाजांत एका काळार आशिल्ली. हालींच्या २५-३० वर्सांत ती चाल बंद पडल्या पुण त्या गीतांक मात आजय जाण्टेल्यांच्या काळजांत भावार्थाचो जागो आसा.

उपरांतची तीन गीतां आसात 'सोज्यांवाचीं' (सां जुवांव). सोज्यांव फेस्ता दिसा दादल्यांनी माथ्याक 'कपेल' बांदून हातांत पिराडे घेवन

गांवांत दर घराकडेन वचून “**व्हिव्हा सोज्यांव!**” अशें म्हणत नाचपाची गांवांत चाल आसा. उटंगारांनी पडपी पावसांत आंगणांतल्या रेब्यांत “ठप्प! ठप्प!” करून पिराडे मारीत त्या तालाचेर खेळे हीं गीतां गायतात. एका काळार ह्या गीतांचो आंकडो बरोच मोठो आशिल्लो. आज तांतलीं फकत तिनच गीतां लोकांच्या स्मरणांत उल्ल्यांत.

सोज्यांवाचीं हीं गीतां सुटसुटीत, आकारान ल्हान आनी एकेतरेचो मिस्कील सूर तांतल्यान उक्तो जाता.

**जयंती नायक**

# १. कुर कुर कानां

कुर[१] कुर कानां[२]
म्हशी गेल्यो रानां,
म्हशीन खाली पानां
चाराचीं !

गांवच्या हिंदू समाजांत वयल्या गीताची कांय रुपां मेळटात. तांतलीं दोन अशीं :

१) कुर कुर कानां
म्हशी गेल्यो रानां,
आमूड गवळ्यामामा
गोवर्धनां !

२) कुर कुर कानां
म्हशी गेल्यो रानां,
आमूड गवळ्यामामा
बाबुल्यालीं हामा !

---

१ – कुर = दोंगर
२ – कानां = कोनसो

कुर कुर कानां
म्हशी गेल्यो रानां,
हामा दुदू दिना
बाबाची भूक भागना!

कुर कुर कानां
म्हशी गेल्यो रानां,
म्हशी येवंक पावना
बाबाक दुदू मेळना!

# २.  वयर वयर् दोंगरार

वयर वयर दोंगरार
कीर घोटेला,
किराचे सुवातेर
वाग न्हिदोला.
वागाचें चामडें काडून
घोडो पितारला.

# ३. आस्कीन बास्कीन

आस्कीन बास्कीन
उदक तापय गो,
व्हडल्या खाडा मामा येयल्यार
तांबयो लिपय गो!

# ४. येदे रातीचे, तेदे रातीचे

येदे रातीचे, तेदे रातीचे
पाकले भोंवताय खाडाचे
म्हुज्या मावशीमानान
फिलोद[१] केल्याय गोडाचे!

१ – फिलोद = गोड घालून केल्ले पोळे.

## ५. हेंतू येदें चून

हेंतू येदें चून
तेंतू येदें चून
घाल गो बाये!

# ६. धॉल बाये धॉल

धॉल बाये धॉल
पदेरान हाडल्यात बॉल.
बॉलाक दुडू चोड
पोदेर तुजे बॉल
परतून म्हुरे व्हॉर !

# ७. बॉबीना भोबो

बॉबीना भोबो
कोराय कैलार,[१]
भोब्यां घालूंक
गोड ना
पसऱ्यार वयतालो
कोण ना !

---

१ – कैलार = तव्यार. पुर्विल्ल्या काळार तवे मातयेचे आसताले. एकाद्री मडकी वा कुयणें फुटत जाल्यार ताच्या पोंदाचोय उपयोग तव्यासारको करताले.

# ८. एक भोबो ताटाचो

एक भोबो ताटाचो
मामागेल्या शेता-भाताचो
रोसां बुडोवन खाया गो
हाम्म कोराय गो! हाम्म!

# ९. धूण वाजोता

धूण[1] वाजोता
बाबा नाचोता
चोच्या येयाय गो,
चोच्या येयाय गो!

१ – धूण = धोल, एकेतरेचें वाजप.

# १०. बुलू बुलू माजरा

बुलू बुलू माजरा
आवय गेली गो काजरा,
देडपडीचें माणस[१] केल्लें
कोणें खालें गो रांडला ?

---

१ – माणस = गोड, सोय आनी भाजिल्ल्या तांदळांच्या कण्यांचो केल्लो शिरो.

# ११. आवय म्हुजे मांय

आवय म्हुजे मांय
पेद्रू पडलो बांय
पेद्रून माल्ली बोब
शिपाय येयले दोग !

# १२. पदेर पदेर पाव

पदेर पदेर पाव
दुकरा फाटल्यान धांव,
दुकर पडलें फोंडान
दुकरा माल्लें तोंड्यान.

## १३. शेंवण्या पिपुशा

शेंवण्या पिपुशा[१]
खंय गो गेलोलें?
घाटार गेलोलें!
घाटार कित्याकू?
वावळ्यो हाडूंक!
वावळ्यो कित्याकू?
घर बांदूक!
घर कित्याकू?
पिलां काडूंक!
पिलां कित्याकू?
मामालें शेत राखूंक!

१ – पिपुशाच्या, बदला 'किटुरा' अशेंय उतर वापरिल्लें मेळटा.

# १४. धाकलो म्हुण्टा तो भुरगो

धाकलो म्हुण्टा तो भुरगो
मुशेर[१] गोरांयतालो,
तिंतेर पेन घेवन
रॉबिन्सन वरसां बोरयतालो.

---

१ – नुस्तें मारपाखातीर पोंयच्या बांदार केल्लें एक आडावण. मुशेचें सुदारीत रुप म्हळ्यार मानस.

# १५. तांबडो म्हुण्टा तो घोडो

तांबडो म्हुण्टा तो घोडो
टांकार फेरायतालो,
सत्री चेपें घेवन
जाकी मावोड्या मिरयतालो.

# १६. घरावयलो दुदी

घरावयलो, घरावयलो दुदी
दवान वतान पिकोलो,
रेबॅक वाजोवंक शिकोलो
येरीक पूत म्हुरे आमचो !

## १७. देरांतुले बोरी

देरांतुले बोरी, देरांतुले बोरी
एकूच येयलां बोर,
धाकलें किटांबोर[१]
जेनोबी देरां बोसोन खेळ!

---

१ – किटांबोर = ल्हान भुरग्यांक किटांबोर म्हणपाची चाल आसा. किटाबोय (एक शेंवणें) ह्या उतरावेल्यान किटांबोर उतर घडलां असो समज आसा.

# १८. चडोन येयल्यांय बेबकां

आमगेल्या म्हुण्टा त्या मायदेरांत
चडोन येयल्यांय बेबकां,
चोडो येशें कोल्यार
कुरुजमॅन मेजोन दितोलीं चाबकां !

# १. दातें म्हुण्टा तें मांडून

दातें म्हुण्टा तें मांडून
दात्यार कांडिली पिटी
नवऱ्यान मारिली मिटी
फुलामॅन[१] धूव म्हुगो आमची.

१ – व्हंकलेचें नांव.

# २. बाराडेच्या खुरसा

बाराडेच्या खुरसा
सकल वयर पांवडे,
चडोन येयल्यार आंवडे
फुलामॅन[१] तुगोल्या काजराचे!

१ – व्हंकलेचें नांव.

# ३. ही चीट पावय

व्हंकले व्हकले म्हुजे बाये
आज तुज्या काजाराचो दीस
ही चीट मामाक पावय.

व्हंकले व्हंकले म्हुजे बाये
आज तुज्या काजाराचो दीस
ही चीट तितिवाक पावय.

[पयस आशिल्ल्या नात्यांतल्या सगळ्यांचीं नांवां घेवप.]

# ४. व्हंकले बाये घे गो बेळसांवू

व्हंकले व्हंकले म्हुजे बाये
तेनसांव हें धर गा मतींतू
मांय-पायचें घे गो बेळसांवू.

व्हंकले व्हंकले म्हुजे बाये
तेनसांव हें धर गो मतींतू
भावा-व्हनयेचें घे गो बेळसांवू.

[नात्यांतल्या सगळ्यांचीं नांवां घेवन म्हणप.]

# ५. मेज येरमार कोन्न

मेज येरमार कोन्न
मेजार दवरल्या बशी,
बशयांतुली दोशी
फुलॉर[१] पावोत तेशी वांटी!

१ – व्हंकलेचें नांव.

# ६. केप्यां पोडलें चुडीत

केप्यां[१] पोडलें चुडीत
कुंकळ्ळे[२] व्होयलें वोडीत,
आज नोशीबांतुलें घोडीत
मारीया[३] धूव म्हुगो आमची !

---

१ – व्हंकलेच्या आवय गांवचें नांव.
२ – व्हंकलेक काजार करून ज्या गांवांत दितात त्या गांवचें नांव.
३ – व्हंकलेचें नांव.

# ७. सोलताली लसूण

जोनलार बसून
सोलताली लसूण,
आज बारा वर्सां पोसून
मारीया[१] दिलें म्हुरे तुका लोटून!

---

१ – व्हंकलेचें नांव.

# ८. व्हंकले दोळ्यांत दुकां

माया न्हुयत्या म्होयन्यांत
मळबांत भोल्ल्यांय कुपां,
आज पायचो उगडास कोरून
व्हंकले दोळ्यांत भोरताय दुकां!

[ह्या संवसाराक अंतरिल्ल्या आपल्या नात्यांतल्या
मनशांचीं नांवा घेवप.]

# ९. पाग्यां पोडल्या मोरी

भायल्या म्हुण्ट्या त्या दर्यांत
पाग्यां पोडल्या मोरी,
कागदा इतू गोरी
फुलार्मॅन धूव म्हुगो आमची !

# १०. गोंयां वयचे वाटे

गोंयां वयचे वाटे
सोरोप वोकिला इख,
मुदयेर झडटा थींक
तॉमास[१] भाव म्हुरे आमचो !

१ – न्हवऱ्याचें नांव.

# ११. भितर सोरता

धूव आनी पूत
भितर म्हुज्या सोरता
आनी म्हुज्या घोराक
बेळसांव[१] दिता !

१ – बेळसांव = बेसांव (Bençäo), आशिर्वाद.

# १२. व्होडल्या गोंयची पोपाय

व्होडल्या गोंयची पोपाय
धाकल्या गोंयां पावली,
हारश्यांतुली बावली
आंतोनेत[१] धूव म्हुगो आमची!

१ – व्हंकलेचें नांव.

# १३. बेळसांव दिच्या येता

बाये, व्होंकले म्हुजे बाये
मांय म्हुगो तुजी
बेळसांव दिच्या येता.

बाये, व्होंकले म्हुजे बाये
पाय म्हुगो तुजो
बेळसांव दिच्या येता.

बाये, व्होंकले म्हुजे बाये
इरमांव[१] म्हुगो तुजो
बेळसांव दिच्या येता.

बाये, व्होंकले म्हुजे बाये
माना[२] म्हुगो तुजें
बेळसांव दिच्या येता.

[नात्यांतल्या सगळ्यांचीं नांवां घेवप.]

---

१ – इरमांव = भाव, व्हडलो भाव.

२ – माना = भयण, व्हडली भयण.

# १४. काजाराची सावूद

‘पंचवीस’ तारीख, म्हयनो ‘मायाचो’
दीस तो व्होडा खोशयेचो.
आज सातवो सांक्रामेंत जोडलो तुमी खोशयेचो·
आज एकवट जालो दोन काळजांचो
हो एकवट तुमच्यांनी विसरूंक नेजो.

रेस्पेराक तुमी भायर सोरतोना
आवाज केलो फुगेट्यांचो
इगर्जेंत भितर वचोन
एकवट जोडलो दोन काळजांचो.

एकवट तुमचो इगर्जेंत जाताना
आवाज जालो तो घांटयेचो
ते घांटयेक गोमोन येता
एकवट जालो तुमचो खरो.

एके बागेंत एक सोबीत फूल
पळोंवक दिसतालें,
तें फूल विन्सी,[१] बागेंतलें
सारकें तुयें सोदून काडलें.
तें फूल न्हूंय आनीक कोण
मारीया[२] तूंच म्हुगो आसलें.

---

१ – न्हवऱ्याचें नांव घेवप.

२ – व्हंकलेचें नांव घेवप.

घोवाक तूं केन्ना वायट कोरनाका
ताचें घर चलोनी फुडें
दुस्मान तुमकां लागचे नात
घट आसले तर तुमचे हात.

एकमेकांक विसरनासतना
सदांच तुमी चलात मोगान
दुस्मान जर तुमकां करीत फुडो
तुमी कोराय तेका फाट
अशें जर तुमी कोरीत
सदांच तुमचो बरो उरतलो सांगात.

# १. चान्न्याचे राती

चान्न्याचे राती, मायाच्या म्हुयन्यांत
मळबांत भोत्ताय कुपां
भयणीचो उगडास केल्यार रे
भावा दोळ्यांत भोत्ताय दुकां.

चान्न्याचे राती, मायाच्या म्हुयन्यांत
मळबांत भोत्ताय कुपां
व्होंकलेचो उगडास केल्यार रे
न्हवऱ्या दोळ्यांत भोत्ताय दुकां.

चान्न्याचे राती, मायाच्या म्हुयन्यांत
मळबांत भोत्ताय कुपां
चेडवाचो उगडास केल्यार रे
मांयच्या दोळ्यांत भोत्ताय दुकां.

## २. बोरें म्हूण तुजे गूण

बोरे म्हूण तुजे गूण
मांय कोरूक सोदताय सून
बोरें कोन्न राव तूं चत्रायेन
कोण व्होरोत तुका चोरून.

ही फाळी आसा गा अशिरी
हें व्होडें वोचोना भितोरी
बोरीं कोन्न तावजां मार तांडेला
चिकलां रोमोशी.

तांडेला तावजां मार दर्या
हें व्होडें पावंदी शिरवोड्या.

आगशेची काडून तारी
कोंब्या सादारी
थिंगा एक भाकराबाब रेबेक वाजयता
बोसोन बांदारी !

या या मोया या !
या या मोया या !

# ३. कावळ्या, कित्याक रोट्टाय दारान

कावळ्या, कित्याक रोट्टाय दारान
कोणूय मारीत तुका फारान
म्हुज्या पोतीची खोबोर हाडीत तोर तारान
उडोन वच रे बोऱ्यान.

म्होजो पोती येतच घोरा
म्हाका कापडां हाडटलो बारा
आनी सागवादीक पिलां दितोलो तेरा
कावळ्या म्हुज्या देरा.

कावळ्या, पाखां तुजी पिसोय
आनी म्होंयपास तुजो दाखय
म्होज्या पोतीशी वचोन
घेवून तूं यो रे एकूच मारून झोपोय.

## ४. तांबडे रोजाद तुजे पोले

तांबडे रोजाद तुजे पोले
दुकांनी भोत्ताय म्होजे दोळे
पापाचें लिशेंस आसोत जाल्यार पोळे
काजार जावंच्या तुज्याकोडे.

पापाचें लिशेंस आसा रे म्हाका
काजार जावंच्या रावता तुका
तूं तोर काजार जायना जाल्यार मोगा
म्होजी बिरमोत फुट्टली तुका.

पापान मांयन काजार म्हाका केलें
सुखांतुलें व्होरोन दुखांत घालें
सोगले आंकवार चेडे एकठांय जावन
आदोरार म्हाका केलें.

## ५. व्हुनयेन आनी देरान

व्होडले इगर्जे व्होडलें गो मीस
व्हुनयेन आनी देरान
दोगांयनीय घेतला गो कीस!

पोरसांत पिकोलां पेरीक गो पेर
व्हुनयेन आनी देरान
दोगांयनीय धांपोलां गो देर!

रस्त्यार आदोळ्ळी पांयाक गो कट्टी
व्हुनयेन आनी देरान
दोगांयनीय वेंग माल्ल्या गो घोट्टी!

हुंदीर मांडार कातीता बोंडो
व्हुनयेन आनी देरान
दोगांयनीय तोंडांत घातलाय गो तोंडो!

## ६. हांव सायबा पलतडी वयता

हांव सायबा पलतडी वयता
दामूच्या लग्नाक वयता
म्हाका सायबा वाट दाखय रे.

ही म्होज्या नाकांतुली नथी
घे गा सायबा!
म्हाका नाका गो! म्हाका नाका गो!

ही म्होज्या बोटांतुली मुदी
घे गा सायबा!
म्हाका नाका गो! म्हाका नाका गो!

ही म्होज्या गळ्यांतुली सरपळी
घे गा सायबा
म्हाका नाका गो! म्हाका नाका गो!

# ७. तळ्याबांदारी, कोंब्यासादारी

तळ्याबांदारी, कोंब्यासादारी
थिंगा एक भाकराबाब गरयता
सत्री लावन खांदारी.

आरे त्या भाकरालो चलो
मोठो म्हुरे कोलो
रुजालीन मावशेचो म्हुरे
चिंवतालो पोलो.

नांव तेजें बोस्त्यांव येरीकू
गजाली तो सांगता मारीकू
गरांटी घालून तारीकू
नुस्तें तो काडटा बारीकू.

# ८. मडगांवा थेवयागेर

मडगांवा थेवयागेर
मेज केलां एक रूद
तेजेर एक चेड्डूं नाचोता
वाकोडें करून भेंड
तेका एक पाखलो चोयता
बुरकां घालून तोंड
आरे पाखल्या तेका चोयनाका रे
तें आंकवार चेड्डूं न्हू काजारी बायल रांड!

## ९. काय बरें साळक तूं तळ्यांतलें

काय बरें साळक तूं तळ्यांतलें
पळोवंक दिसता तूं मळ्यांतलें
काय बरें झिगझिगता तुज्या गळ्यांतलें
तुका सोडचो ना वेंगेंतलें!

तुका बिस्कीट दितां!
हे ती नाका म्हाका!

तुका आपोल दितां!
हे तो नाका म्हाका!

तुका कीस दितां!
तोवूय जायो म्हाका!

काय बरें साळक तूं तळ्यांतलें
पळोवंक दिसता तूं मळ्यांतलें
काय बरें झिगझिगता तुज्या गळ्यांतलें
तुका सोडचो ना वेंगेंतलें!

तुका जॉनी दितां!
हे तो नाका म्हाका!

तुका विन्सी दितां!
हे तो नाका म्हाका!

तुका सॅबी दितां!
तोवूय जायो म्हाका!

# १०. हुंदीर म्होज्या मामा

हुंदीर म्होज्या मामा
हांव सांगता तुका
ह्या माजोरीच्या पिलालागीं
खेळ मांडिनाका.

हुंदीरमामा आयलो
मेजा पोंदा लिपलो
माजोरीच्या पिलान तेका
एका घांसा खायलो.

# ११. काय बरो कोंबलो

काय बरो कोंबलो म्हगेलो
मांयन म्हाका दिलेलो
कोणें रे मेलोल्यान तेचो
पांखटो मोडिलो.

कोंब्या, बा! बा! बा रे!
कोंब्या, शोव! शोव! शोव!

काय बरो कोंबलो म्हगेलो
मांयन म्हाका दिलेलो
कोणें रे मेलोल्यान तेचो
दोको मोडिलो.

कोंब्या, बा! बा! बा रे!
कोंब्या, शोव! शोव! शोव!

काय बरो कोंबलो म्हगेलो
मांयन म्हाका दिलेलो
कोणें रे मेलोल्यान तेचो
दोळो फोडिलो मोडिलो.

कोंब्या, बा! बा! बा रे!
कोंब्या, शोव! शोव! शोव!

# १२. तळें सुकोलें

तळें सुकोलें,
बोकें म्हुजें बापुडें जालें.

खडप कातय गो,
बोक्या म्हुज्या मोती मेंवतोलें.

मोती मेंवतोकच,
बोकें म्हुजें गिरेस्त जातोलें.

गिरेस्त जातोकच,
बोकें म्हुजें काजार जातोलें.

काजार जातोकच,
बोक्या म्हुज्या बेबी जातोलें.

बेबी जातोकच,
बोकें म्हुजें जाण्टें जातोलें.

जाण्टें जातोकच,
बोकें म्हुजें मोरोन वयतोलें.

# १३. सांग गो ज्याकीन

सांग गो ज्याकीन
येदूदे रातीचें
खंय तूं गेलोलें ?
मांय लाकडां गेलोलें गे,
मांय लाकडां गेलोलें !

सांग गो ज्याकीन
तांबडें कापोड तुका
कोणें गो दिलोलें ?
मांय भाकरा चोल्यान दिलोलें गे,
मांय भाकरा चोल्यान दिलोलें !

सांग गो ज्याकीन
नेयें कापोड
केशें कोन पिंजोलें ?
मांय लाकडां लागोलें गे
मांय लाकडां लागोलें !

## १४. असोळणे तारीर

हे ते असोळणे तारीर
जोबोर भिरांती,
हालोत धोलोत यो गो बाये
चिकलां रोमोशी !

# १५. चेडवां आपोयताय

फुटली फुटली बांय
चेडवां आपोयताय,
मोग कोरना म्हूण
बिकीट खावोयताय !

# १६. येशें येवजिलां

आता हायें येशें येवजिलां
रूजा लागीं बुलूज मागिलां,
पायां घालून बोर्दाची चिनेलां[१]
काबा वचून कोत्ताय शिनालां!

१ – चिनेलां = एक तरेचें पायतण.

# १७. वचकत जाला गो धुये

वचकत जाला गो धुये
मरत म्हूण भिता,
जाकी तितिवाक घेवन गो धुये
सोयरीकेकू वयता !

# १८. घोव साप येंडो

आबान सायबा
काजार केलां
घोव साप येंडो
देरां बसून कुकडां
आमुडटा मेंडो !

# १९. उदक गेले मागाक

पावस म्हुण्टा तो पोडोन
उदक गेले मागाक,
शेंवतिणी रोयल्यां भागाक
जुजेफीन पयलें शेवतें म्हाका!

# २०. चंद्रीम म्हुरे पोडलो

चंद्रीम म्हुरे पोडलो
आमोरेचो वेळ रे जालो,
खंयसर रे मोगा तूं पावलो
सदांच आमगेर येतालो !

# २१. तांबडी कोंकारी

तांबडी कोंकारी
तळ्याबांदार उदक न्हाताली,
तियेगेली दुब्जी[१] सुटोली
माडावेल्या रेंदरान देखिली!

१ – दुब्जी = घागरो, लांब साय.

## २२. आगुस्तीन बामणालो चोलो

आगुस्तीन बामणालो चोलो
बायले घेवन फोंड्या वयच्या गेलों,
मामाल्या जोनला सोकोलू
फुलोला मोगरेचो कोळो !

# २३. सांतानाच्या दोंगरा

सांतानाच्या दोंगरा
पाखले आपोयताय,
तांबडें कापोड न्हेसल्यार
रुपया दाखोयताय !

# २४. बाय गो फुलामॅन

बाय गो फुलामॅन
मावश्या[१] वचपाक यो,
मावश्या पावतकच
आमी फुलांमळार या.

फुलांमळार फूल फुलोलां
तांबड्या रंगाचें,
बाय गो फुलामॅन
म्हुज्या मोगाचें.

---

१ – मावश्या = म्हापश्या.

# २५. भुरगेपणाच्या सुखा

ओ, म्होज्या भुरग्यापोणाच्या सुखा
एकलें दोवोरलें म्हाका,
केशें पुटवलें रे तुका
सांडोन गेलो म्हाका!

## २६. कावळ्या म्हुज्या मामा

ओ, कावळ्या म्हुज्या मामा,
म्हुज्या आवो तुयें देखल्या गा?
तुज्या आवो हायें देखल्या ना रे,
आबा जाल्यार देखला!

# २७. वयर वयर दोंगरार

वयर वयर दोंगरार,
उदक कोंगरें,
उदक कोंगरें जाल्यार
कलवंत मोगरें!
काडा डूम ऽऽऽ! काडा डूम ऽऽऽ!

## २८. उठ उठ गे गंगाये

उठ उठ गे गंगाये
दिवो लाय
कोणाल्या पलंगार
ज़ायो जुयो परमळटाय.

## २९. दोग पारव्यांचें जोडें

दोग पारव्यांचें जोडें
भोंवतालें रे मोगानू,
मदें पावोवंक
नाडलें दुस्मानानूं!

# ३०. शितीदान रे जाकी

शितीदान पांय घाल रे जाकी
लोकांलें घर वोकून भरशी,
निसरत निसरत जाकनाले
खोपींत वचून बसशी!

# १. व्हडलो हांव जालो

आई, व्हडलो हांव जालो वाडून
लगीन कोर कशेय भाशेनू!
परमोत[१] तुका भोल्ली ना रे आजुनू
बायलेक तूं पोसतोलो केसो कोन्नू!

दादा म्हुजो मोरोत पासोनू
आई तुका ना गे सूख
दीस काडले गे भाकरी खावोनू
आतां तूं सून हाड गे बेगीनू!

---

१ – परमोत = मत, बुद्द.

## २. खोरोस मात्ता

खोरोस मात्ता
चडो येयलां देखून धोल
अदीक बोरें आसलें
हांव घेवन गेल्यार सायकोल.

हिंगा व्होर घोणघोणटा
आमगेर येता देखून व्होंकोल
फोगोट्यो लावोन
लोकांक करूक जायें देरवोर.[१]

१ – देखोर = येवकार, स्वागत.

## ३. इरमांव उगडास काडनाका

इरमांव उगडास काडनाका फुडलो
ल्हान आसतना मांय-पाय आमचो गेलो
काळजा म्हुज्या दिनाका शील
मांय-पायच्या फाटल्यान आमी
भोगले जायते कास्तीक
आल्बेर्ट हांव ल्हान तूं व्होड
तरी तूं भियेनाका चोड.

## ४. रोपा घोडी मारी

येदे रातीचो
कोण येयला भायल्यान
रोपा घोडी मारी
हांव भितोरी
देर काडिना
वोयच्या कोरी.

# ५. फेस्ताक वयता मांय

फेस्ताक वयता मांय हांव तिमानागेरी
येयना जाल्यार रागार जातोली
लुड्डीन व्होरतालें सोरो गादयेरी
सोमार दीस हांव येतली सांजेरी.

# ६. करशी धांदोळी

भोटा म्हागे
मोनाक धोरी
लग्ना येयल्या
जायती मोंडोळी
येयना आसतना
करशी धांदोळी.

# ७. एकूच उल्ला मीस

दादा तूं गा
केसलो पिसो
तुजेकडेन मांयन
केशे काडले रे दीस
वोयता थिंनया
तुयें केलो रे फार्स
एकूच उल्ला
आयकुवपाचो मीस.

# ८. दुकराचें मांस

काय बरें गो
दुकराचें मांस
खावन म्हाजी
गेलोना आस
पळय पळय
म्हाज्या तोंडाचो वास.

# ९. म्हाका दियात तो सोरोप

भुरग्यांनो, म्हाका दियात तो सोरोप उपकार कोन्न
कसलोच ना फायदो थंय तो कुसोन
हांव व्हरतां तो म्हुगेले गरजेक लागोन
मेळटा देखून चिंतीनासतोना !

# १०. आयज दीस वोर्तोता

आयज दीस वोर्तोता
व्हडल्या पास्कां फेस्ताचो
उगडास कोराय
आमच्या खेळाचो
बोवाळ चोल्ला वोराचो
बावटो लागला घेराचो.

# १. आलशीना पारा धोलशीना

आलशीना पारा धोलशीना
तारा डू ऽऽ डूम डूम!

चिंचोण्या तोरी मोती सायबिणीचो गांव
थिंगा म्हुज्या चोलये दिची ना हांव!
तारा डू ऽऽ डूम ऽऽ डूम!
आलशीना पारा धोलशीना!

नावेले तोरी रुजार सायबिणीचो गांव
थिंगा म्हुज्या चोलये दिची ना हांव!
तारा डू ऽऽ डूम ऽऽ डूम!
आलशीना पारा धोलशीना!

कुंकळ्ळे तोरी सावूद सायबिणीचो गांव
थिंगा म्हुज्या चोलये दिची ना हांव!
तारा डू ऽऽ डूम ऽऽ डूम!
आलशीना पारा धोलशीना!

असोण्या[१] तोरी मार्त सायबिणीचो गांव
थिंगा म्हुज्या चोलये दितोली हांव!
तारा डू ऽऽ डूम ऽऽ डूम!
आलशीना पारा धोलशीना!

---

१ – असोण्या = असोळण्या

# २. सांत आंतोन पावस घाल

सांत आंतोन
पावस घाल, पावस घाल!

सांत आंतोन
आंजे! आंजे!
पावस घाल
सांजे! सांजे!

सांत आंतोन
वीर गो! वीर गो!
विस्किलाचो
भुरगो! भुरगो!

सांत आंतोन
देरां उबो! देरां उबो!
आमच्या पास्कां
येयला उजो! येयला उजो!

दोंगरावयले
काळगिणीं! काळगिणीं!
पावस घाल गे
सायबिणी! सायबिणी!

# ३. सोज्यांव घुंवता

सोज्यांव घुंवता तेसो घुंवता!
सोज्यांव पातोळ्यो मागोता!
सोज्यांव पोणोस मागोता!
कांय ना तोरी
खोशयेन दिता तें मागोता!
व्हिव्हा सोज्यांव!

# ४. सोज्यांव

सोज्यांव, सोज्यांव
वालीचो !
केपें पाद्री
धोलीचो !

## ५. हांव गेलोलो कोंग्यां

हांव गेलोलो
कोंग्यां !
थिंगा धोल्लो म्हिगेल्या
दोंग्यां !
पाड पडूं त्या
कोंग्यांचें !
सोड म्हिगेल्या
दोंग्यांचें !



## जयंती नायक

**जल्म** : ६ ऑगस्ट १९६२ (आमोणें-केपें)

**शिक्षण** : भुगोल आनी अर्थशास्त्र विशयाचें पदवीधर. १९८७/८८ वर्सा म्हैसूर विद्यापिठांत लोकवेदाचो पोस्ट ग्रॅज्युएट डिप्लोमा कोर्स करपाखातीर 'गोवा कोंकणी अकादेमी'ची अभ्यासवृत्ती फावो जाली. ह्या कोर्साची परिक्षा पयल्या वर्गांत पयल्या नंबरान उत्तीर्ण जालें.

**वेवसाय** : गोवा कोंकणी अकादेमीच्या लोकवेद विभागांत संशोधन सहाय्यक म्हण वावुरता.

म्हैसूर विद्यापिठांत प्रशिक्षण घेतल्या उपरांत फाटलीं चार वर्सां गोंयच्या तळा-गाळांत भोवन, गोंयच्या लोकवेदाचीं विवीध आंगां एकठांय करून ताचेर संशोधन करपाच्या वावरांत स्वताक ओंपून घेतलां. गोंयच्या वेगवेगळ्या नेमाळ्यांतल्यान आनी दिसाळ्यांतल्यान आतांमेरेन लोकवेदाचेर बरयल्लें जायतें लिखाण उजवाडाक आयलां.

गोंयची एक नामनेची कथा लेखिका. १९८९ वर्सा **'गर्जन'** नांवाचो कथा संग्रह उजवाडाक आयला. कांय एकांकी बरोवनय माचयेर सादर केल्यात. कवितांक आनी कथांक थळाव्या नेमाळ्यांच्या सर्तिनी इनामां लाबल्यांत. १९८९ वर्सा 'गोंय कोंकणी भाशा मंडळ' हे संस्थेचो पुरस्कार, 'गर्जन' पुस्तकाक फावो जाला.

आकाशवाणी आनी दूरदर्शनाचेरय साहित्य विशयक कार्यावळी सादर केल्यात.

"कोंकणी भाशेची उदरगत जावंची, तिचें साहित्य चंवरून फुलचें आनी त्या साहित्यांतल्यान गोंयचे संस्कृतीचें दर्शन घडचें, विद्येच्या मळावेल्या सगळ्या शास्त्रांचें ज्ञान जाता तितलें बेगीन कोंकणींत हाडचें, तत्वज्ञान धरून विज्ञानामेरेनचें शिक्षण दिवपाची तांक कोंकणींत येवंची, संवसारांतल्या व्हड भासांतले तेच परी भारतीय भासांतलें अभिजात साहित्य कोंकणींत भाशांतरीत जावचें आनी त्या साहित्यांतल्यान कोंकणी साहित्याक ऊंच पावंड्याची देख मेळून ताका एक नवी दिशा प्राप्त जावंची, देखून गोवा कोंकणी अकादेमीची स्थापना जाल्या."

The Government of Goa, being aware of the strength and vitality of Konkani, established 'GOA KONKANI AKADEMI' with a view to developing Konkani language, literature and culture in all their facets. It states expressly in the Preamble: "WHEREAS Konkani is the language of the People of Goa;

AND WHEREAS its development in all fields is essential for the all round progress of the people of the State;

AND WHEREAS the Government of Goa is keenly desirous of bringing about speedy development of the Konkani language, literature and culture for promoting the cultural unity of the State as a whole through the medium of Konkani language and literature.

The Akademi aims at bringing about speedy development of the Konkani language, literature and culture and also at promoting cultural unity of this state through Konkani language and literature.


**गोवा कोंकणी अकादेमी**

सर्किट हाउस, आल्तिनो

पणजी, गोंय ४०३ ००१

**GOA KONKANI AKADEMI**

Circuit House, Altinho,

PANAJI – GOA. 403 001.